इतल्यांत पुर्तुगालाकसावन 1568 तलो रेजिमेंत पावलो. तातूंत राजेसायबांल्यो व्हिसेरेयाक सुचोवण्यो आशिल्यो : "धर्मांतरां संयमान आनी प्रेमान करचीं. तीं बळजबरी आनी दुसऱ्याचो मनस्ताप करून जावचीं न्हय. तेचबरोबर व्हिसेरेयाक समज दिल्लो कीं जावं किरिस्तांव, जांव हिंदू, जावं मैर, सगल्यांक न्याय एकेच तरेन दिवचो."

1571 त, दुसऱ्या रेजिमेंतान जेंतिवांक जाल्ले आनी जातात ते त्रास- तांकां कायद्याविरुध्द बंदखणीत घालप, तांकां लुटप वा तांची मालमत्ता जप्त करप... ह्या सगल्याची चवकशी करची अशी ओर्द आयली, आनी तें जेंतिवाक जाणा जावपाक ज्या ज्या वाठारांनी ते रावतात थंय तशें जाहीर रितीन कळोवचें अशेंय तातूंत म्हणिल्लें. कारण तें कळटकीर, तांणी स्वता येवन वा अर्ज करून कोर्टाक आपलें गाराणें सांगचें, आनी तांचेर जाल्लो अन्याय पयस जावचो.

जेंतीव खुशाल जाले. तांकां दिसलें कीं आतां सुसेग, न्याय आनी समंजसपणाचें युग सुरू जालां. पूण थोड्याच तेंपान तांची निराशा जाली. राजेसायबांच्यो सुचोवण्यो धर्माचे कळकळीन गिळून उडयल्यो.

1573 त साश्टीच्या जेंतीव गांवकारांच्या हक्काचेर हावळ आयली. जेंतीव गांवकारांक, किरिस्तांव गांवकारींत (कोमुनदादि) हजर आसले शिवाय कसलोच धाराव घेवपाक मनाय जाली, आनी ज्या गांवांत किरिस्तांव गांवकार चड आसात, थंय जेंतिवांक गांवकारींत प्रवेश बंद जालो.

1575 त जेंतिवांक रेंदाक दिल्ल्यो जमनी काडून घेतल्यो आनी त्यो किरिस्तांवांक दिल्यो आनी जे बामण परवानगी घेतलेशिवाय परतून आयिल्ले, तांगेली मालमत्ता जप्त जाली.

1574 त व्हिसेरेय बार्रेतु- जाका मागीर बेकायदेशीर कर्तुबाखातीर प्रेज करून सरकारान पुर्तुगालाक व्हेलो - ताणें एका फर्मानान जेंतीव पंडितांचेर (वैजाचेर) आपलो वैज सोडून, घोड्यार, पालखेंत वा माचुलांत बसून, वा बरोबर सत्री धरपी मनीस घेवन गोंय शारांत आनी भोंवतणच्या वाठारांत भोंवपाक बंदी घाली. दुसऱ्या वर्सा हें फर्मान सगल्या जेंतिवांक लागू जालें. कोणूय ताका पाळो दिना जाल्यार ख्यास्त म्हूण तागेलो घोडो, पालखी, माचूल वा सत्री जप्त करची, आनी गुन्यांव परतून केल्यार ताका तारवार सक्तमजुरी फर्मायिल्ली.

1576 त, सास्टीच्या बामणांनी, तांकां कसलेंच बरेपण मेळना म्हूण, राजेसायबाक निवेदन भेटोवन विनंती केली कीं तांकां आपली धर्मकार्यां करपाक परवानगी दिवची. हें निवेदन, अशें दिसता कीं ताजेर प्रतिश्ठीत मनशांनी आपलीं अनुकूल मतां दिवन धाडिल्लें. कारण जेन्ना, दों लुईश द् आताईदि (D. Luis de Ataide) व्हिसेरेय म्हूण 1578 त परतून आयलो तेन्ना दों सेबास्तियांव (D. Sebastião). राजेसायबान, धर्मशास्त्रां आनी कायदेपंडितांकडेन विचार करून, ताका जशें बरें दिसता ते प्रमाण परिस्थिती हाताळपाक परवानगी दिल्ली. व्हिसेरेयान आर्सेबिश्पासकल एक धर्मशास्त्र्याची समिती केली. हे समितींत जेजुइतांनी भाग घेतलो ना, पूण आपलो विचार तयार करून तो गुपचूप आर्सेबिश्पाकडेन दिलो.

## प्रकरण 6

**धर्मशास्त्र्यांचे समितींत देवचाराचो वकील - समितींत गोंधळ - शिकोवन हाडिल्लो धर्मशास्त्री उलयता - सवलती दिवंक जाल्लो प्रयत्न फसता - धर्मांतरां कशीं जातलीं - नवें मत दिवपी कायदे समिती करती आनी पयलो धर्मशास्त्री, देवचाराच्या वकिलापरी उलयलो.**

ताचे दृष्टीन जेंतिवांनी केल्ली मागणी मान्य कर सारकी आशिल्ली. जेंतिवांचे धर्मीक विधींक परवानगी दिल्यार चड वायट जातलें तें आडावपाक जातालें - जेंतिवांचो मनस्ताप, विरोध आनी गांव सोडून वचप. तांगेली मागणी मान्य केल्यार, जेंतीव हळुहळू किरिस्तांव धर्मांत सरतले अशें ताचें मत आशिल्लें. जेंतिवांक आपल्याच गांवांत, जंय क्रिस्ती धर्म नवोच आयिल्लो, थंय तांगेल्यो धर्मविधी बंद केल्ल्यो पळोवन आनी तांकां पयलींचे मुसलमान राजे दिताले ताजेपरस खर वागणूक मेळय तें चिंतून मनस्ताप जाला. जर आतां इतले प्रयत्न करून, इतले पयशे मोडून, परत्यो-परत्यो विनंत्यो करूनय तांकां जर यश आयलें ना, तर ते सगले, वा अदीकशे आदीलशाच्या राज्यांत वतले, आमगेलीं ठिकाणां ओसाड पडटलीं, प्रजा ना जातली, सरकाराचें उत्पन्न वतलें आनी किरिस्तांव करपाचे इगर्जेचे

आशेर उदक पडटलें. तेखातीर, जैंतिवांक सांबाळून, तांकां सवका सवका किरिस्तांव जावपाची सवलत दिल्यार शाणेपण जातलें. अशें इगर्जेन पुर्विल्ल्या काळांत केलां. आमी दिवांत मयरांल्यो मशिदो दवरल्यात, देवळांय आसात, आनी जेंतीव आपले धर्मीक विधीय करतात. हांगाचो आनी थंयचो लोक एकाच राज्याची प्रजा. म्हाका कळना, कित्याक आमीं सास्टीच्या देवांक विरोध करचो आनी दिवाच्यांक सोडचे, जर दोनय कडचीं धर्मकृत्यां एकाच तिरस्काराक फावतात. आनी मोट्या नेटान ताणें आपलें भाशण सोंपोवन म्हळें: दिवाच्या मूर्तिपुजकांक धांवडावपाचे, ना जाल्यार सास्टींत मूर्तीपुजा सोंसून घेवची. कायदो सगल्यांक सारकोच आसूंक जाय.

हे अखंड मुद्दे आयकून, कितें प्रतिवाद करचो तें समजना जावन, धर्मशास्त्री गडबडले. पूण, तांगेल्या आकांताक आर्सेबिश्प रोखडोच पावलो. जेजुइतांनी सांगिल्लेवरीं, तयार करून हाडिल्ल्या धर्मशास्त्र्याक ताणें उलोवंक सांगलें.

धर्मशास्त्री उठलो आनी ताणें मोटे चलाखीचें भाशण करून सगल्या मुद्दयांचेर जबरदस्त हल्लो चडयलो:

जेंतिवांचो मनस्ताप? आनी ताचेपरस व्हड किरिस्तांवांचो न्हय? दोनय मनस्ताप तागडेंत घाल्यार खंयचो चड जड जाता?

धर्माचें खरेपण आनी कायघाचें बरेपण, जीं जेंतिवांक लगाम घालतात आनी ख्यास्त भोगयतात तांचेपसत जाता तो मनस्ताप, वा जो जेंतीव आपली तिरस्काराक फावता ती मूर्तिपुजा जाहीर रितीन करून किरिस्तांवांक दितात तो मनस्ताप?

थोड्यांनी म्हळें कीं जेंतिवांक एक वेगळोच जुंवो सोडचो, जंय तांणी देवूळ बांदचें आनी मूर्तीपुजा करची. पूण, अशें जावंकच नज. धर्मशास्त्र्यान प्रतिवाद केलो, कारण ताजो अर्थ आमी जिकिल्ल्या मुल्काचो भाग देंवचाराक दिलो अशें जातलें. राजेसायबांक, फक्त जेंतिवांचो मनस्ताप थाबोवंक, तशें केल्लें योग्य दिसत?

मनस्तापाक कसलोच अर्थ ना. बंडाचो पूण भंय आसा? ना. हें अशक्य; आनी निःशस्त्र जेंतीव कितें करूंक शकतात?

जेंतिवांक सदळ सोडचे, तांकां सवका सवका किरिस्तांव जावपाची सवलत दिवची - म्हणजे म्हणणें आसा कीं अशें केल्यार तांकां देंवचारांच्या हातांत दवरिल्ले सारकें जातलें. तांच्या आत्म्याची सोडवणूक जाता तितले बेगीन करप हें आमचें कर्तव्य आसा.

गांव सोडून वचपाचो भंय आसत तर विचार करूं येता. पूण होय भंय ना. दिवाक तो आसा, ते खातीर थंय मूर्तीपुजेक परवानगी दिल्या. दिवाचे जेंतीव, तांचेकडेन करार जाल्लेपरीं थंय रावल्यात ते वेपारी, शेतकार न्हय. गांवांत ताका रोखपाचीं कसलींच मुळां नात. सहज ते दुसऱ्या बंदरावेर वचूंक शकतात. तशें केल्यार सरकारी उत्पन्न ना जातलें. तांचे उरफाटें साष्टीचे जेंतीव गांवांत मूळ धरून आसात. घरदारां आनी ठिकाणां तांणी वसयल्यांत, आनी गांवकारींत तांचे हितसंबंध आसात. आपल्या लटक्या धर्माक वेंग मारून, आपल्या देवळांच्या मोगान, आपलीं घरदारां, ठिकाणां सोडून वचपाक ते तितले हट्टी न्हय. हे गोंयच्या, चोडणेच्या आनी दिवाडेच्या अणभवान आमकां दाखयलां. हे अर्थी, कशेय भशेन, साष्टीक मूर्तीपुजेक सदळ सोडूंक, कसलेंच कारण ना.

नव्या किरिस्तांव जाल्ल्या जेंतिवांचो थंय मनस्ताप जातलो, मिशनरी रडटले आनी जेंतीव आपलें जैत जालें म्हूण आनंदान उडयो मारतले. आनी सगले उदेंन्तीत आनी युरोपी राष्ट्रांत आमच्या धर्माविशीं अस्थिरतायेची फाम जातली.

जेन्ना धर्मशास्त्र्यान आपलें भाशण सोंपयलें तेन्ना आर्सेबिश्पाचे दोळे चमकले, तागेलें मुखामळ खुशाल जावन फुलून आयलें. देंवचाराच्या वकिलाचे सगले मुद्दे खोडून गेले. आनी वेळ करिनासतना थाराव पास जालो कीं व्हिसेरेयान मूर्तिपुजेक साश्टींतच न्हय, तर सगल्या पुर्तुगेज प्रदेशांत परवानगी नाकारची.

हेपरी, व्हिसेरेयाचे इच्छेविरूध्द, आनी एक मूर्तीपुजेक सवलत दिवपाचो प्रयल फसलो. ताका निरुपायान थाराव मान्य करचो पडलो

अशे तरेन, कसलीच आडखळ नासतना, 1581 तल्या, प्रोव्हिजांवान मूर्तीपुजेर आनी जेंतिवांच्या धर्म विधींचेर बंदी पडली... 1582 त जेंतिवांक सरकारी कामार घेवं नये आनी तांकां सरकारी जमनी रेंदाक दिवं नये ही पयलींचीं ओर्द पक्की जाली.

## प्रकरण 7

**दुसरी, तिसरी आनी चवथी प्रांतीय धर्मसभा - जेंतिवांची जीण दिशिदिशीं कठीण-जेंतीव गांव सोडून वचत आसात- 16 व्या शेंकड्याच्या शेवटाक गोंय शारांतल्या जेंतिवांचो आंकडो- न्हय-किरिस्तांवांक शारांतल्यान धांवडावपाक चीट - जेजुइतांक एक धक्को - असोळणें आनी शेजारच्या गांवचीं देवळां जमनीभरवण करतात आनी शेतां इबाडून उडयतात - गांवची वांटणी - कुंकळ्ळेचे हुतात्मे.**

1575 त दुसरी प्रांतीय धर्मसभा भरली. थंय घेतिल्ल्या थारावांपरी जेंतिवांची मानखंडणा करपाक, तांकां पालखेंत (माचुलांत) वा सत्री धरून भोंवपाक मनाय आयली. 1585 त, तिसरी धर्मसभा भरली. थंय, केल्ले कायदे पाळनात त्या जेंतिवांचेर कडक कारवाय करपाची मागणी जाली आनी जेंतिवांचे लग्नविधींचेर बंदी घालपाची विनंती राजेसायबांक परतून करपाचें थारलें, कारण हे मागणेचेर तेमेरेन निर्णय जालो नाशिल्लो. 1587 त राजेसायबान निर्णय दिलो की जेंतिवांनी आपलीं लग्नां वाजप नासतना, बोवाळ करिनासतना घराचीं दारां धांपून करचीं.

1592 त भरिल्ले चवथे धर्मसभेच्या थारावावरी किरिस्तांवांक जेंतिवांक मुकदम दवरपाक आनी जेंतीव म्हाल्याकडेन खाड करून घेवपाक मनाय आयली.

1598 त, किरिस्तांव भुरग्यान जेंतीव मेस्त्री कारागिरां म्हऱ्यांत रावन शिकूं नये म्हूण ऑर्द जाली.

जेंतिवांची जीण दिशिदिशीं कठीण जावन वताली. परिणाम, जेंतीव गांव सोडून वचत आशिल्ले. अशेंय आसतना गोंय शारांत, 16 व्या शतकाच्या शेवटाक 20 क हजार जेंतीव आशिल्ले.

1600 त गोंय शारान राजेसायबांक एक विनंती केलीः "देवाच्या सन्मानाक आनी गोंयच्या राज्याच्या आनी किरिस्तांव धर्माच्या बऱ्याक ह्या वायट करपी मनशांक (जेंतिवांक), तांकां अपील करपाक वा तक्रार नोंद करपाचो अधिकार दिनासतना, गोंय आनी शेजारच्या गांवांतल्यान धांवडावन घालचे आनी परतून आयल्यार, तांकां देहान्त शिक्षा फर्मावची".

अपील करपाक वा तक्रार करपाचो अधिकार कित्याक दिवचो न्हय? तर तांकां कोर्टांत न्याय मेळपाची शक्यताय आशिल्ली.

धर्मांतरां आडखळ नासतना जाता आसतना, जेजुइतांक एक ल्हानसो धक्को बसलो. पूण तो धर्मप्रसाराक तांकां मोव उपयोगी जालो आनी तांगेली सद्याची मालमत्ताय वाडली.

कुंकळ्ळे, असोळणें, वेळ्ळे आनी आंबेली हे गांव जेजुइतांचे कक्षेभायर पडटाले. थंय जायते जेंतीव स्थायीक जाल्ले.

एक दीस अशें घडलें कीं कोचीनासावन व्हिसेरेयाक हाडिल्लें टपाल घेवन वचपी मनशाक, तेवटेन वता आसतना, जेंतिवांनी त्रास दिलो. तेन्ना, बंदोबस्ताक मलबार किनाऱ्याचो मुखेल कॅप्टन जील यानिश (Gil Eanes) आनी रायतूरचो कॅप्टन गोमिश द् फिगेयरेदु (Gomes de Figueiredo) थंय गेले. दोगांयनीय आपलीं लश्करां सोडून त्या गांवचो विध्वंस करून उडयलो आनी काम पुरो करपाक, दोन जेजुईत पाद्रींच्या आधारान कुंकळ्ळे आनी असोळणेच्या सगल्या देवळांक उजो लायलो.

वातावरण शांत जातकीर, जेंतिवांनी आपलीं घरां आनी देवळां परतून बांदलीं. परतून लश्कर थंय गेलें आनी जेजुइतांचे चिथावणेन, फक्त देवळांच मोडून उडयलीं नात, तर सगळ्यांत मोटी ख्यास्त म्हूण, एक गाय मारून तिच्या रक्तान पवित्र जागे भश्टून उडयले. इतलेंच करून जेजुईत थांबले नात. तांणी कुंकळ्ळे एक इगर्ज बांदपाचें थारायलें. आनी 1589 त, जेन्ना हें काम करपाक जेजुईत पाद्री आक्वाव्हीव्हा Padre Aquaviva थंय आपल्या बरोबरच्यांक घेवन गेलो, तेन्ना, संतापान भरिल्ल्या, सुडाक भुकेल्ल्या जेंतिवांनी तांची कत्तल केली.

क्रिमीक अतिशय खर उत्तर मेळ्ळें. गांव जप्त जाले. एक वांटो जुवांव द् सिल्वा Joao de Silva ह्या मनशाक पडलो. तो आयचो कोंदादु द् कुंकोली (Condado de Councolim.) ताजो वारस मार्कश द् आलोर्ना इ फ्रेंतेयरा (Marques de Alorna e Fronteira.) दुसरो वांटो, दों पेद्रु काश्त्रु (D. Pedro de Castro) हाका गेलो, जो ताणें जेजुइतांक दिलो.

जांची कत्तल जाली तांकां कुंकळ्ळेचे हुतात्मे म्हूण वळखतात. आनी तातुंतले थोडे मिलाग्री करतात म्हण, तांकां 1890 त इगर्जेन बेयात केले. ताचीं हाडां गोंयचे कातेद्राल इगर्जेंत

आसात.

जेंतिवांच्या हस्थीं संबंदी कसलीच खबर ना. काळाक धरून, हें साहजिकच आसा.

## प्रकरण 8

**कागदपत्रांचो राखणो - कांय प्रतिष्ठीत मनशाच्या कामाक अपयश - जेजुइतांचें वाडटें प्रभुत्व - पाय दुश क्रिश्तांउश (Pai dos Cristaos) हाका दिल्ले आदेश - सासष्टीक धर्मान्तरां कशीं जालीं - बार्देसांत फ्रांसीश्कान - इंकिजिसांव - देलों (Dellon) आनी पिरार (Pyrard) हांची साक्ष - एक शंका नाशिल्लें मत.**

जें इतलेमेरेन कागदपत्रांच्या आधारान बरयलां. ताचेवेल्यान अशें स्पष्ट जाता कीं हे वाठार पुर्तुगेजांनी जिखतकीच, थोड्या वर्सां उपरांत, धर्म संकुचितपणान, कट्टरपणान आनी दुऱ्या धर्माच्या तिरस्कारान भरिल्ले.

कांय उद्य विचार आनी दृष्टिकोन आशिल्ले प्रतिष्ठीत व्यक्तींनी ही परिस्थिती थांबोवपाचो प्रयत्न केलो, पूण ताजो कसलोच उपयोग जालो ना. तांच्या हेतूचो, जायते फांता वायट अर्थ जाला. तागेल्या मनांत हाडिल्ले उद्देश्य धर्माधिकाऱ्यांच्या प्रभावान चिड्डून गेले. तांगेले प्रतिष्ठेकय चाडयांनी काळें बोट लायलें.

हें सगळें जेजुइतांच्या पत्रांनी घडयलें. तांगेलें वर्चस्व दिसान दीस वाडत गेल्लें. प्रशासनान मदीं कसलीय आडखळ हाडली जाल्यार, ते ती कुशीन काडटाले आनी प्रशासन फाटीं सरतालें.

जेजुइतांचीं राजदरबाराक सतत पत्रां वतालीं. तातूंत व्हिसेरेयाचेरय तक्रारी आसताल्यो. तांचें वर्चस्व येदें व्हडलें आशिल्लें कीं व्हिसेरेय आपलेविशीं बरें मत दिवंक जेजुइतांकडेन मागूंक वताले.

जीं धर्मान्तरां हांगा जालीं, तातुंतलीं थोडींच मनपरिवर्तन करून जालीं. चडशीं सगळीं, दुसऱ्या योग्य उपायांनी घडोवन हाडलीं. हें योग्य उपाय म्हळयार कितें तें जेजुइताचो प्रांतीय व्हिजितादो पाद्रि आलेशांद्री व्हालिग्नानु (Padre Alexandre Valignano) हागेल्या "ईन्नुसोंइश दु पाय दुश क्रिश्ताउंश" ह्या बरोवपांत वाचूंक मेळटा.

"जेवरीं ह्या वाठारांत धर्मान्तरां, चड करून धर्मतत्त्वां पटोवन न्हय, तर दुसऱ्या योग्य उपायांनी जातात, जशे मूर्तिपुजेक बंदी घालप, ती केल्यार जेंतिवांक ख्यास्त दिवप, ज्यो सवलती जेंतिवांक योग्य तरेन दिनासतना दवरूं येतात त्यो नवे जाल्ल्या किरिस्तांवांक दिवप, तांचो सन्मान करप, तांकां आदार आनी सुरक्षितताय दिवप... जें पळोवन, दुसरे जेंतीव किरिस्तांव जावपाक तयार जातात ... हे सगले योग्य उपाय एक दवरी नासतना वापरचे, कारण ते प्रांतीय धर्मसभांनीं, व्हिसेरेयांनीं आनी पुर्तुगालच्या राजांनीय मान्य केल्यात."

"1560 मेरेन, सास्टींत फक्त, रायतुरच्या कोटांत, एक इगर्ज आशिल्ली. 50 वर्सांभितर थंयच्या चडशा लोकांनी किरिस्तांव धर्म आपणायिल्लो आनी थंय 28 इगर्जो उब्यो जाल्ल्यो. इतले बेगीन हीं धर्मान्तरां कशीं घडलीं हें स्पष्ट आसा. थोडे किरिस्तांव जाले आपले कुडीच्या त्रासांक भिवन, थोडे मनोधैर्य नासून, जायते आपलो जल्म जाल्लो गांव सोडूं नज म्हूण, दुसरे आपली मालमत्ता आनी हितसंबंद राखून दवरूंक, आनी कांय आपल्याक फायदे जातले म्हूण; पूण क्वचितच कोणय आपल्याक किरिस्तांव धर्म पटलो म्हूण. धर्म पटप आनी ताजेर विस्वास बसप, हें उपरांत जावपाचें."

बार्देसाक धर्मान्तरां फ्रांसीश्कान पाद्रींनी घडोवन हाडलीं.

काम पुरें करपाक, इंकिजिसांवाचें न्यायालय आयलें, जाका दुसरें नांव संत कार्याचें न्यायालय.

हें न्यायालय, जाची याद केल्यार शिरशिरे येतात, साबायाच्या वाड्यांत स्थापन जालें. ताची माहिती देलों (Dellon) नांवाच्या एका फ्रांसेज नागरिकान सविस्तर दिल्या. तो इंकिजिसांवाचे तावडेंत सांपडिल्लो.

इंकिजिसांवाचें न्यायालय फक्त किरिस्तांवांपुर्तेंच आशिल्लें; तें न्हय - किरिस्तांवांक लागनाशिल्लें अशें सांगपी आसात.

पूण जे गुन्यांव इंकिजिसांवाचे अख्तारींत येताले, तातूंत जादूटोणो, मुतां काडप, भविश्य सांगप, देंवचाराकडेन संपर्क दवरप, आदी आशिल्लें. आनी हे वरवीं न्हय-किरिस्तांवांक त्रास दिवपाक जायती संद मेळटाली. देलों म्हणटाः "इंकिजिसांव फक्त आरोप जाल्ल्या किरिस्तांवांकच न्हय, तर मुसलमानांक, मूर्तिपुजकांक आनी भायरसावन आयिल्ल्यांक तें आपले कक्षेंत हाडयलें. जरय

न्हय-किरिस्तांवांक तांच्या मनाप्रमाण देवस्पण करपाक परवानगी आशिल्ली, इंकिजिसांवाचें न्यायालय ताजो अर्थ जाय तसो लावन एकेवटेन तांकां आपल्या धर्मापरी वागपाक परवानगी दितालें, आनी दुसरेवटेन तशें करीत जाल्यार तांकां ख्यास्त फर्मायतालें.''

हे ख्यास्तेंत धर्माच्या हितापरस स्वताचें हीत चड आसतालें. आपली तुंबडी भरप आनी पाशवी प्रवृत्तेक खूश करप.

''इंकिजिसांवांचे न्यायधीश आपल्याक आनी आपल्या संघाक मोटो फायदो करतातः जेन्ना गुन्यावकारांली मालमत्ता पावणेर काडटात, जर तातूंत मोलादीक आनी दुर्लभ वस्तू आसत तर फक्त तांगेलो मनीस थंय उत्तर घालता. आनी जे अर्थी संघर्श करपाक कोण मुखार येना, त्यो वस्तू इंकिजिदोराकच पडटात. दुसरे वटेन जी मालमत्ता जप्त जाता, तांचो व्हडलो भाग इंकिजिसांवांक मेळटा. ताजेविशीं कोणच विचारपाक धजना'' हे देलोंचे साक्षेक पिरार (Pyrard) नांवाचो फ्रांसेज प्रवाशी दुजोरो दिता. तो म्हणटा, ''हो न्याय इतलो क्रूर आनी मनीसपण नाशिल्लो आसा की थंय एका ल्हान भुरग्याल्या वा आपल्या धनयाचेर परतल्ल्या गुलामाल्या हलक्या उतरांक लेगीत किंमत दितात.''

निसर्गीक वासनेसंबंदान चड सांगनासतना, फक्त एका उच्च धर्माधिकाऱ्यान, 'येव्होराचो आर्सेबिश्प, (Arcebispo de Evora) हाणें पाद्री आंतोनियु व्हियेइराचे (Padre António Vieira) जन्मत्रिशताब्दी वेळार काडिल्ले उद्‌गार हांगा मांडटां.

''जरीय सगळेकडेन इंकिजिसांव बदनाम जालां, तरीय तें गोंयच्या इंकिजिसांवापरस चड अनितीक आनी सकल्या दर्जाचें खंयच जालें ना. इंकिजिदोर, आपल्याक ज्यो बायलो वश जायनात, तांकां बंदखणेंत घालून, तांचेर आपल्यो जनावरी वासना भागोवन उपरांत तांकां हेरेज म्हूण लासून मारपाक आदेश दिवपाक पावले.''

## प्रकरण 9

**17 वें शतक - इगर्जेंचो आनी कोंव्हेंताचो नंबर वाडटा - रेलिजियोजांची (पाद्री आनी जोगी भाव) ऐपत आनी सामर्थ्य - आर्सेबिश्पाचें वैभव - रेलिजियोजांक मालमत्ता विकती घेवपाक आनी व्यापार करपाक मनाय - व्हिसेरेयाचें रेलिजियोजांच्या अफाट नंबराविशीं राजेसायबांक पत्र-**

आमी 17 व्या शतकांत पावल्यात. गोंयच्या तीनय प्रदेशांत (तिसवाडी, सास्ट आनी बार्देस) खूब इगर्जो बांदल्यात. गोंय शार तर इगर्जांनी आनी कोंव्हेंतांनी भरून गेलां. उंच सांतु आगोश्तिन्वाच्या कोंव्हेंताचे (convento de S. Agostinho) बुरूज थंय आपलें वर्चस्व दाखयतात. बायलांकय एक कोंव्हेंत बांदला- सांत मोनिकाचो कोंव्हेंत. (Convento de S. Monica) कितल्योशोच धर्मसंस्था थंय जियेतात. फ्रांसिश्कान आनी जेजुईत सोडून, थंय दोमिनिकन, कार्मेलीत, तेयातीन आनी दुसरेय आसात.

तांचो नंबर वाडटा तसो, तांची संपत्ती आनी वर्चस्वय बी वाडत आसा. सगल्यांत चड संपत्ती जेजुइतांनी केल्या, आनी गोंयच्या काम्रान राजेसायबांक बरयिल्ल्या पत्रांत एक मिरांतेची चत्राय दिल्याः ''...आज तांची संपत्ती इतली वाडल्या कीं ते तुमगेले अर्दे मालमत्तेचे धनी जाल्यात. गोंयच्या जुंव्याच्या चडशा भागाचे ते बिनशर्त मालक आसात. तांगेलें, फक्त सास्टीचें उत्पन्न बाकीच्या सगल्या धर्मसंस्थांक पावन उरसारकें आसा... रेलिजियोज जावप म्हळयार पैशे करपाचो आनी प्रतिष्ठा वाडोवपाचो धंदो.''

आर्सेबिश्प तर मोट्या वैभवान, राजपुत्राभशेन रावतालो. तागेलीं थाटाचीं जेवणां फक्त रुपावतान सोवतालीं. तागेलो लवाजमो खूब मोटो आशिल्लो आनी नोकरचाकरांचो नंबर अफाट दिसतालो. तांगेली येणावळ जबरदस्त आशिल्ली.

रेलिजियोजांची स्वैराचारी जीण जी 16 व्या शतकाच्या उत्तरार्धांत सुरु जाल्ली, तिका आतां लगामच उरूंक नाशिल्ले. व्हिसेरेयाचें थंय कांय चलनाशिल्लें. केल्ले सगले उपाय निष्फळ जातात हें तांकां स्पष्ट दिसतालें.

अशे परिस्थितींत केंद्रीय प्रशासनान उपाय येवजिले.

16 व्या शतकाच्या शेवटाक एका प्रोव्हिजांवान रेलिजियोजांक मालमत्ता विकती घेवपाक मनाय केली. पूण तांणी ह्या कायद्याची कसलीच पर्वा केली ना. ते खातीर दुसरे उपाय येवजुचे पडले.

जे अर्थी रेलिजियोज, पुर्तुगालाक परतून वतना

व्हरपाक संपत्ती एकठांय करताले, ते अर्थी राजेसायबान, 1604 त, व्हिसेरेयाक एक चत्राय दिली की ताणें रेलिजियोजांक पुर्तुगालाक परतून वचपाक परवानगी दिवपाक कठीण करचें. फक्त तांगेले धर्मसंस्थेच्या वरिश्ठान धाडले वा आपयले जाल्यार, आनी तेंयबी संस्थेच्या कामाखातीरच आसल्यार ती परवानगी दिवची. ह्याय उपायांचो कांय परिणाम जालो ना.

रेलिजियोज फक्त मालमत्तेचेच मालक नाशिल्ले, तर ते व्यापारीय जाल्ले.

1609 तल्या राजेसायबांच्या आदेशान जावं किरिस्तांव वा न्हय-किरिस्तांव ह्यांकां रेलिजियोजांकडेन पयशांचो आनी व्यापाराचो कसलोय व्यवहार करपाक बंदी घाली आनी तशें केल्यार, करतल्याची आनी रेलिजियोजाची मालमत्ता जप्त जावची अशी ख्यास्त दवरली.

त्याच वर्सा, दुसऱ्या आदेशान व्हिसेरेयाक फर्मायलें की ताणें धर्मसंघाक कसलीच देणगी दिवची न्हय वा दोआसांव करचें न्हय, कारण तांकां कर नाशिल्ल्यान सरकारी खजिन्याक नुकसान जाता.

1610 त, तिसऱ्या देशान राजेसायबांचे परवानगेबगर नवी इगर्ज वा कोंव्हेंत बांदपाक मनाय आयली.

कायदे प्रसिध्द जाताले, पूण अंमलांत येना आशिल्ले. रेलिजियोज तांची पर्वाच करी नाशिल्ले.

1613 त व्हिसेरेय दों जेरोनिमु द् आजेव्हेदु वयर कळयतालोः

"ह्या थोड्या वर्सांत हांगा कितलेशेच कोंव्हेंत उबे जाल्यात आनी (रेलिजियोजांची संख्या अतोनात वाडल्या. तें पळयतकीर म्हाका खूब चिंता जाता. कांय शारांनी आनी गांवांनी, थंयच्या रावतल्यांपरस रेलिजियोजांचो आंकडो चड आसा.

पत्रांत फुडें तांगेली संपत्ती आनी इश्टेटीविशीं तो सांगतालोः "थोड्याच काळांत सगलेंच कोंव्हेंतांचें जातलें, आनी तांच्या हातांत गेल्लें काडपाक युगां लागतलीं. कारण.. तांचेर खंयचोच अधिकारी हात घालपाक धजना."

निमाणें राजेसायबांक विनंती करून व्हिसेरेय मागतालो की कोंव्हेंतांचो आनी रेलिजियोजांचो आंकडो सामको उणो करचो; तो फक्त गरज आसा तितलोच दवरचो; तांगेलीं बेंसां तांच्या चरितार्थाक जाय तितलीं सोडून, बाकीचीं सगलीं विकून उडोवचीं.

## प्रकरण 10

**कोंन्दि द् लिन्यारीशाची (Conde de Linhares) रेलिजियोजांविशीं तक्रार - जेजुइतांची संपत्ती आनी वर्चस्व - आर्सेबिश्पु आनी व्हिसेरेयामितर संघर्श - आर्सेबिश्पाच्या मरणाउप्रांत पुलपट - रेलिजियोजांची निर्लज्ज वागणूक**

1630 त व्हिसेरेय कोन्दि द् लिन्यारीश पुर्तुगालाक कळयतालो की हांगाच्या रेलिजियोजांची संख्या अतोनात वाडल्या. फक्त ताजी चौथाय सगल्या कामाक पुरो जाता. सगल्या पुर्तुगेज हिंदुस्थानांत लश्करांत शिपाय आसात तांचेपरस ते चड आसात. राजेसायबांक विनंती करून तो मागतालो कीं तांकां अपील करपाक सवलत दिना आसतना, तांचो नंबर फावो तितलो कमी करचो, कारण ते सरकाराक कशेच आयकनात; राजालो कायदो मानिनात आनी जेजुइतांचो प्रांतीय वरीश्ठ तर म्हणटा की तांकां राजेसायबांकडेन कसलेंच कर्तव्य ना. ते फक्त मानतात तांगेल्या सरमुखेल्याक.

जेजुइतांचें वर्चस्व संपत्तीन आनी प्रतिष्ठेन खूब वाडिल्लें. तातूंत कसलेंच अजाप नाशिल्लें, कारण तांगेले लायकेक आनी शिस्तीचे संघटणेक, पापसायबान तांकां धर्मप्रचार, पातकांची कबुली आनी भोगसण, शिक्षण, आनी भौतीक आनी आदिभौतीक क्षेत्रांत दिल्ले खास हक्क भरपूर घटसाण दिताले.

सगळेकडेन तांगेल्यो इगर्जो आशिल्ल्यो आनी तांचे अख्तारींतल्या सगल्या धर्मबंधूंक ते अध्यात्मीक मळार मोठे प्रतिष्ठेन ताब्यांत दवरताले. लोक सरकारापरस तांकां चड मानताले.

जेन्ना फ्रांसेज प्रवासी 'पिरार' हांगा पावलो तेन्ना जेजुईत आनी आर्सेबिश्प हांचेमदीं संघर्श चलतालो.

जेजुईत, तांगेलो सरमुखेल आनी पापसायब सोडल्यार कोणाक मानी नाशिल्ले. तांणी पापसायबाक नजराणो म्हूण एक तीन फूट लांब, चार बोटां रुंद आनी दोन बोटां दाट, अशी भांगराची, वज्रजडितान सोबिल्ली एक तलवार, धाडिल्ली.

ह्या वेळार जेजुईत संघाची येणावळ कितली

आसुंये? पुर्तुगेज दरबारान जाणा जावपाक सोदिल्लें; पूण केल्ल्या स्रमांक 40 वर्सांमेरेन फळ आयलें ना. आनी 1632 त, व्हिसेरेय म्हणटालो, ''जेजुइतांचे येणावळीचो सोद घेवप कठीण; आनी जेप्रमाणे ताजी मुदत वाडत वता, ते प्रमाणे तें काम करपाक कल्पांत पावचो ना.

1652 त, आर्सेबिश्प फ्रांसीश्कु मार्तिरीश सोंपतकीर, ताचो जागो 23 वर्सां रिकामी उरलो आनी त्या काळार त्या कदेलार बसपाक कंटाळयाचो आनी संतापाचो संघर्श जालो. तेचबरोबर, रेलिजियोजांचो आचरणावेलो ताबो गेलो. प्रशासनाक कितें करचें तें समजना जालें.

1672 त, राजेसायबांक एक निवेदन पावलें: ''कांय वर्सां हांगाचे रेलिजियोज मुखेल नासतना आसात. जशें एक प्रमूख नाशिल्लें रेपूब्लिक, वा आल्मो नाशिल्ले कुडीभशेन, ते सगल्या वायट गुणांनी आनी संवंयांनी बरबटल्यात. तांकां लोकांची लज वा देवाचो भंय दिसना. ते बायलो आनी भुरग्यांक वेंग मारून आसात. तांचेर कसलोच उपाय जायना.''

1673 त, व्हिसेरेय वयर कळयतालो: ''तांगेले मस्तेक शीम ना. फ्रांसीश्कान तर खूब वायट उदाहरण दितात. एकल्यान, लग्न जाल्ले कोणाले बायलेक जबरदस्तीन पळोवन हाडली आनी घोव सोदूंक येतकीर, क्रूरपणान ताका चाबकान मारून धांवडायलो.''

1691 त व्हिसेरेय वयर कळोवन म्हणटालो की प्रशासन चलोवंक ताका कसलेच त्रास नात; पूण रेलिजियोज मात (जेजुईत आनी दोमिनिकान सोडून) ताका खूब चिंता करूंक लायतात.

रेलिजियोजांचीं आडांगीपणा सदांच चालू आशिल्लीं. आज आगोश्तिनियान गडबड करताले; फाल्यां कार्मेलीत; मागीर कापूश, फ्रांसीश्कान आनी बाकीचे. तांगेले तंटे लोकांकडेनच न्हय, तर दुसऱ्या संघाकडेन, स्वताच्या संघांतल्या भावांकडेन आनी वरिश्ठांकडेन, आर्सेबिश्पाकडेन आनी सरकाराकडेनय जाताले. केन्नाकेन्नाय ते आर्मां घेवन सुद्दां मुखार येवपाक फाटीं सरनाशिल्ले. आनी प्रशासनाक तांकां सांबाळपाक नाका पुरो जातालें.

1693 त, नवो व्हिसेरेय राजदरबाराक विनंती करतालो की तांचेर कडक कारवाय करची आनी म्हणटालो: ''फक्त रेलिजियोजांक जाग्यार घालपाक हांगा एक व्हिसेरेय पुरो जावचो ना.''

## प्रकरण 11

**17 व्या शतकाचें वैशिष्ट्य - जेजुईत नवो कर बसयतात - लग्नासंबंदान कायदे - हास्टीच्या जेंतिवांविरुध्द कायदे - किरिस्तांव धर्मांत सरिल्ल्यांचो जेंतिवांक विरोध - अनाथ भुरग्यांची परिस्थिती आनी ताजो परिणाम - पुर्तुगालच्या कडल्यान संयम राखपाक कळोवणी - गांवची भाशा म्हूण उलोवपाचो प्रयत्न.**

17 वें शतक रेलिजियोजांचे अनैतीक वर्तनाचें, संपत्तीचे हांवेचें आनी घुस्पटीचें जालें. पूण ह्या अशांततायेच्या वातावरणांत सुद्दां जेंतिवांक तांणी सुके सोडलेनात.

1594 तल्या कायद्यान जेंतिवांक राजधानींत आपलीं धर्मकृत्यां करपाक मनाय केल्ले वरी, ते पलतडींत दुसऱ्याल्या राज्यांत वचून तीं करताले. जेजुइतांच्या मनांत हे वस्तुस्थितीचो फायदो घेवपाचें आयलें. तांणी, जे आपलीं धर्मकृत्यां करपाक भायर वतात, तांचेर कर बसयलो. ह्या कराचेर गोंय शारान आपलो विरोध परगटायलो. प्रयत्न केल्ले सगले व्यर्थ गेले.

लग्नासंबंदान जायते कायदे जाले. तातुंतले थोडे अशे आशिल्लेः. 1613 तल्या आदेशान इगर्जेन मना केल्ल्या त्या काळांत न्हय-किरिस्तांवांनी लग्नां करचीं न्हय. आनी उरिल्ल्या काळांत तीं सगल्यो अटी सांबाळून आपल्या गांवांतच करचीं असो आदेश दिलो. आनी ताचेआड गेल्यार एक हजार शेराफींचो दंड आनी तीन वर्सां तारवार सक्तमजुरीची ताका ख्यास्त फर्मायली. तीच ख्यास्त, जे लोक आपल्या घरांत वा भाटांत तीं करूंक दितात वा तीं केलीं म्हूण, जाणा जावन, सरकाराक कळयनात तांकांय लागू केल्ली.

1620 त व्हिसेरेयान हो कायदो बंद केलो आनी गोंय शारांत, भोंवतणच्या जुंव्यांत आनी गांवांत तीं करपाचीं मना केलीं. पूण रोखडेंच कळून आयलें की ताजेपसून दुष्परिणाम जातात. सरकाराची येणावळ वता, कारण जेंतीव शेजारच्या राज्यांत वचून आपलीं मोट्या खर्चाचीं लग्नां थंय करतात आनी ताजो फायदो शेजाऱ्यांक जाता. ते खातीर नव्या आदेशान 1620 तलो कायदो बंद केलो आनी 1613 तलो परतून सुरूसू केलो.

जवळ जवळ 50 वर्सांउपरान्त कायदो घुसपलो.

1678 त व्हिसेरेय दों पेद्रु द् आल्मेयदान (D. Pedro de Almeida) आदेश दिलो कीं लग्नाक परवानगी आसा, पूण ती घरार्ची दारां धांपून, भट नासतना आनी कसलेच धर्मविधी नासतना करचीं. आदेशाचें पाळप सारकें जाता वा ना तें पळोवपाची जापसालदारकी इंकिजिसांवान घेतिल्ली.

दारां बंद करून जेंतीव लग्नां करपाक तयार नाशिल्ले आनी भट नासतना, धर्मविधी करी नासतना, लग्नाक अर्थच नाशिल्लो. ते खातीर तांणी व्हिसेरेयाक विनंती केली कीं तांकां भट हाडून, दिसा उजवाडाक लग्नां करपाक परवानगी दिवची.

ताजेर विचार करून नव्या व्हिसेरेयान एक आगळोच आदेश दिलो "जेंतिवांक लग्नां करपाक हरकत ना, पूण तीं पुर्तुगेज आनी मुसलमानांल्या मुल्कांमदीं रावन न्हयत, व्हड्यांत बसून करचीं."

1600 त, व्हिसेरेय कोंदि द् लिन्आरिश एका प्रोव्हिजांवान जेंतिवांक सार्थींत रावपाक वा घर दवरपाक मनाय करतालो. तांचे गांवकारीचे हक्क काडिल्ले आनी जण बंद केल्लो. कोणूय विरुध्द गेल्यार तागेली मालमत्ता जप्त करपाची आनी मरणाची ख्यास्त दवरिल्ली. पूण जेंतिवांक देवाण-घेवाण करपाक परवानगी आशिल्ली. हें करपाक दोन म्हयन्यांपरस चड रावपाक जायना आशिल्लें आनी तेंयबी जेजुईत थारयतात थंय.

हें लागू करपाक जेजुइतांनी व्हिसेरेयाक तयार केल्लो हें सांगपाची गरज ना; पूण नवे जाल्ल्या किरिस्तांवांचोय तातूंत भाग आशिल्लो. ते लटके आरोप करत सुचयताले की जेंतीव गांवांत आसप हें बरें न्हय, कारण ते किरिस्तांव धर्म आपणायिल्ल्यांक, फुसलावन परतून आपल्या धर्मांत व्हरतात. हें संकट ना करपाक तांकां धांवडावचे, आनी तांगेलीं घरां-दारां, भाटां-बेंसां नवे जाल्ल्या किरिस्तांवांक दिवचीं.

1559 त एक कायदो जाल्लो तेवरीं जेंतिवांच्या अनाथ भुरग्यांक (अनाथाचो अर्थ बापूय वा कोणय वडील नाशिल्लो, 14 वर्सां सकयलो अशें केल्लें) सां पावल कॉलेजांत, तांकां किरिस्तांव करपाक जाय आशिल्लें शिक्षण दिवपाक, अनाथ भुरग्यांच्या न्यायालयाच्या थारावात्रीं, व्हरताले.

1646 त, पाय दुश क्रिश्तांउश (अनाथ भुरग्यांक किरिस्तांव करपाची जबाबदारी दिल्लो धर्मीक अधिकारी) हाणें अनाथ ह्या उतराचो अर्थ फक्त बापूय नाशिल्लो असो करून, व्हिसेरेयाचेर दबाव हाडून, बापूय मेल्ल्या भुरग्यांक, आवय वा दुसरो वडील आसूनसुद्दां, सां पावल कॉलेजांत घालपाचो ताजेकडल्यान हुकूम काडलो.

हें पळयतकीर जायते जेंतीव, दुसरो उपाय ना म्हूण, मयरांच्या राज्यांत गेले, आनी उरिल्ले तेंच करपाक तयार जाले. हे परिस्थितीची पुर्तुगालाक खबर मेळटकीर, व्हिसेरेयाकडेन वासपूस करून, थंयसावन निर्णय आयलो कीं 1559 तलो कायदोच अंमलांत उरचो, आनी धर्मांतरां सौम्य रितीन, लोकांक त्रास दिना आसतना करचीं; आवयचे वा आज्यांचे इच्छेविरुध्द तीं करचीं न्हय.

1684 वर्स लोकांचे भाशेचेर बंदी घालपाच्या प्रयत्नाक लागून फामाद जालें.

इतलो काळ मेरेन प्रशासनान आनी धर्माधिकाऱ्यांनी गांवचे भाशेची गरज मान्य केल्ली. धर्मगुरूक तिचो धर्मप्रचार आनी कोंफिस्सांव (आत्मकबुली) घेवंक गरज लागताली. राजदरबारांतले हुकूम ताजेर बोट दवरून, परत परत, गांवची भाशा सगल्यांनी जाणा जावची सक्ती करताले. आनी आपले प्रजेचें प्रशासन बरें चलचें म्हूण व्हिसेरेयसुद्दां ती शिकताले.

पूण धर्मगुरूंनी अशे तरेची मागणी केली कीं तांणी व्हिसेरेयाक एक कायदो करपाक तयार केलो, जेवरी गांवच्या लोकांनी, तीन वर्सांभितर पुर्तुगेज उलोवंक शिकचें आनी वेव्हारय तेच भाशेंत करचो. ना जाल्यार ताका ख्यास्त फर्मायिल्ली.

## प्रकरण 12

**18 वें शतक - नवी मानखंडना - किरिस्तांव भोयांक जेंतिवांक बपाक मनाय - जेंतिवांक धर्मप्रवचनाक हजर जावपाची सक्ती - जेंतिवांची पळापळ - बोऴ्यांक आनंद, बोऴ्यांक दुख्ख - व्हिसेरेयाचेर आकांत - वेपार बंद आनी शार ओसाड.**

हें करूंक मनाय, तें करूंक मनाय, अशे परिस्थितींत आमी 18 व्या शतकांत पावले. जेंतिवांक त्रास दिवपाक आनी कांय मेळनाशिल्ल्यान, आतां तांच्या भोंवपाच्या सादनांचेर गदा आयली.

1715 त पुर्तुगालाकसावन व्हिसेरेयाक पत्र आयलें की आर्सेबिश्पान काडिल्लो एक पाश्तोराल (Pastoral) जेवरीं किरिस्तांव भोयांक जेंतिवांच्यो पालख्यो आनी सत्र्यो धरपाक मनाय केल्ली, आनी तें केल्यार तांकां धर्मभायर घालपाचें थारिल्लें, तें पाश्तोराल अंमलांत हाडचें.

व्हिसेरेयान वयर कळयलें की हांगा भोयांभशेन, व्हड्यांचे तांडेलय जेंतिवांक व्हरपा-हाडपाचें काम करतात, पूण आर्सेबिश्पान तांचेर बहिष्कार घालपासंबंदान कांय म्हूणूंक ना. दोगय जेंतिवांक आपली सेवा दितात आनी आपल्या स्रमाची मजुरी घेतात. आपल्याक दिसता की हातूंत धर्माचो प्रस्न येना, प्रस्न येता तो सेवा दिवपाचो आनी घेवपाचो.

1557 त, पयले प्रांतीय धर्मसभेन थारायिल्लें: "कोणाकय आमच्या धर्मांत बळान , त्रास दिवन वा भेश्टयवन हाडप हें (निती) अंतःकरणाविरूध्द. दुसऱ्याक आमच्या धर्माचें खरेपण पटोवन दिवचें, कारण ताजी जाणीव जातकीरच ते आपलो लटको धर्म सोडून, सत्याचो मार्ग आनी जिवीत म्हूण जेजूक वेंग मारतले." पूण जेंतीव दुसऱ्या धर्माची व्हडवीक आयकून घेवपाक तयार नाशिल्ले.

तेखातीर, धर्मसभेन राजेसायबांक विनंती केली की, 15 वर्सांवयले पिरायेच्या, सगल्या जेंतिवांक, दर आयताराक, आपलें लागचे इगर्जेंत वचून , धर्माचेर प्रवचनां जातात तीं आयकुपाची सक्त करची.

हे विनंतेक राजेसायबान 1567 त मान्यताय दिली आनी तसो कायदो जालो. पूण तो कायदो अंमलांत आयलो ना.

1715 त, जेजुइतांचो प्रांतीय मुखेल आनी पाय दुश क्रिश्तांउश, एक जावन, कावीदु ह्या धर्मंडळाकडल्यान ओर्द काडून घेतली, जेवरीं जेंतिवांक क्रिस्ताची शिकवण आयकूंक, इगर्जेंत धर्मप्रवचनाक हजर रावपाची सक्त केल्ली.

आतां हद्द जाली. जेंतिवांलीं देवळां मोडून, मूर्ती फोडून, धर्मविधींचेर आनी परबांचेर बंदी घालून, तांगेले हक्क हिरावन आनी मालमत्ता गिळंकृत करून, पुर्तुगेज धर्मकोल्ली शांत जाले नात. आनिकूय करपाचें उरिल्लें. "जेंतिवांच्या घरांत वचून, तीं भष्टून, थंय रावतल्यांक ओडून हाडून, तांकां प्रवचनाक हाजीर करपाचें."

निरपराध जेंतीव आपले वेव्हार, घरां-दारां, भाटां-बेंसां सोडून, आकांतान, शेजारच्या राज्यांत पळूंक लागले. पळापळ कांय दीस चालूच आशिल्ली. बरोबर जाणटे आनी दुयेंत, बायलो आनी भुरगीं घेवन वतना, जेंतिवांनी जे हाल भोगले, ते पळयल्यार काळ्जाक पीळ पडयले.

धर्मांध, साहजिकच, आनंदान नाचताले. तेचभशेन जे आपल्याक जेंतिवांली मालमत्ता, ठिकाणां आनी वेपार मेळटलो हे आशेन भरिल्ले, ते नाचताले. तांचेभायर जेंतिवांचे देणेकारी, चड करून अधिकारी. पूण सगलेच खोशी नाशिल्ले. जेंतिवांक रीण दिल्ले आनी विदेशी व्यापारी, आपलो धंदो बुडलो म्हूण रडयले.

थोड्यांलो आनंद आनी थोड्यांलें दुख्ख, हांचेमर्दी एक मनीस आकांतान माथ्यार हात धरून बशिल्लो. तो आशिल्लो व्हिसेरेय. ताका, जेंतिवांनी गोंय सोडटकीर उप्रासतले परिस्थितीचो सक्षात्कार जालो.

"शार सामकें भयानक दिसतालें. शाराचो चौक, बाजार आनी रस्ते, जंय पयलीं जात्रेंत जाता तशें, लोक एकामेकाक विहून वताले, जंय तरातरांच्या रंगाचे लोक, दोळयांत भरतात शें न्हेसून येताले, ते सगले ओसाड पडले. असंख्यात दुकानां, जंय पयलीं सगले उदेंन्तेचे कापसाचे आनी रस्माचे उंची उंची कपडे विकताले, जंय चिनी आनी जपानी क्रॉकरी एकमेकाकडेन सर्त करताली, जंय कलेंत निपूण अशे कारागीर आनी शेट आपल्या सिलोनच्या मोतयांनी आनी गोवळकोंड्याच्या वज्रांनी श्रींमंत बायलांक मोह घालताले, तीं सगलीं बंद जालीं. पावणीकाराचो आवाज आयकूंक येना जालो, पैशांची देवाण घेवाण करतल्यांचो बोवाळ ना जालो. जाच्या वेपाराची तुळा आतुयेर्प Antuerpia शाराकडेन करताले, तें शार गप्प सुतकांत पडलें. सरकाराचें उत्पन्न सारकें देंवलें."जेंतिवांचे पळापळीन मोटी खळबळ उडयली.

( चलता...)



# Samskaras

-V. Rajagopal Bhat

*Samskaras are not merely sacraments or rituals, they are essence of Saraswat Culture. Shri V. Rajagopal Bhat had published a book on our Samskaras, which we reproduce for the benefit of the new generation. The book contains several chapters which we have serialized in the last three issues of Saraswat. We are publishing in this issue the last two chapters of this book.*

## VIVAHA

**Meaning of the words denoting the idea of marriage:** Several words that are employed to indicate marriage actually represent one or more of the elements of this important *Samskara*, e.g.

a) *Vivaha* - taking the girl away in a special way or for a special purpose, i.e. for making her a partner in life.

b) *Udvaha* - taking the girl out of her parental home.

c) *Parinaya* or *Parinayana* - going round e.g. making a *pradakshina* around fire.

d) *Upayama* - to bring near and make one's own.

e) *Panigrahana* - taking the hand of the girl.

f) *Kanyadana* - making the gift of a girl.

**Forms of marriage** : Eight forms of marriage have been enumerated in the Hindu scriptures:[1]

i) The *Brahma* form, consisting of the gift of a daughter by the father, after decking her with ornaments, to a man, learned in the Vedas, and of a good character, whom the bride's father himself invites.

ii) The *Daiva* form, involving the gift of the daughter as above, to a priest who duly officiates at a sacrifice, during the course of its performance.

iii) The *Arsha* form, wherein the father gives away his daughter in marriage to the bridegroom, after receiving a cow and a bull, or two pairs of these from the bridegroom, in accordance with requirements of *Dharma* and not in any sense with the intention of selling the child. In other words, the gift of cow and the bull is to be made as a token of gratitude to the man who offers his daughter to the groom to enable him to fulfil his *Grihasthashrama* obligations.

iv) The *prajapatya* form, in which the father makes a gift of the daughter, by addressing the couple with the words, "may both of you perform together your *dharma*", after duly honouring the bridegroom.

v) The *Asura* form : In the four forms mentioned above, the important point to be noted is that it is the father (or a person in his place) who makes a gift of the bride to the bridegroom. But in the *Asura* form, the bridegroom has to give money to the father or kinsman of the bride, and thus, in a sense, purchase the bride.

vi) The *Gandharva* form, wherein the mutual love and consent of the bride and the bridegroom is the only condition required to bring about the union. Neither the parents nor the kinsmen need have a hand in bringing about the marriage. Such marriages may, however, be consecrated by going through the sacred rites of *Vivaha*.

vii) The *Rakshasa* form is described as "the forcible abduction of a maiden from her home, while she cries and weeps, after her kinsmen have been slain or wounded and their houses broken." It is the capture of the bride by force and coercion.

viii) The *Paishacha* form is one in which the man seduces, by stealth, a girl who is sleeping, intoxicated or disordered in intellect.

The most approved form of marriage, according to our scriptures, is the gift of the maiden, by the father or the guardian, to the bridegroom, i.e. any one of the first four forms. According to Yajnavalkya, the father, the grand-father, the brothers, the kinsmen and the mother, in the order in which they are enumerated here have the right to give a young maiden in marriage, provided the "giver is in balanced physical and mental conditions, i.e. not insane, etc."[2]

The modern 'love marriage" is the counterpart of the ancient *Gandharva Vivaha*, and has not been frowned upon by our scriptures. Baudhayana observes that of all forms of *Vivaha*, the *Gandharva* form is recommended by some since it springs out of mutual love of the two partners. Both Baudhayana and Narada say that this form is meant for all the *varnas* - Brahmanas, Kshatriyas, Vaishyas and Shudras. Vatsyayana - author of *Kama Sutra* - has specially recommended the Gandharva form of marriage as being the most respected because, he says, it is the result of mutual love, and mutual love, he adds, is the true foundation as well as the true goal of marriage.[3] However, he cautions that even this *Gandharva* Vivaha must be consecrated in the presence of the sacred fire, because, he adds, "marriages performed with the sacred fire as the witness can never be rescinded. This is the opinion of all Acharyas."[4]

**Sapinda, Gotra and Pravara :** The exogamic rules relating to marriage form a very complicated subject. Only a bare outline is presented below:

i) *Sapinda :* It is ordained that a person shall not marry a woman who is a *sapinda* or blood relation upto seven degrees on the father's side and five degrees on the mother's side. This scriptural injunction, however, was rarely observed in its pristine form. Exceptions were galore. Baudhayana makes the interesting observation: "There are five practices peculiar to the South, viz. to eat in the company of one's wife, to eat stale food, to eat in the company of one whose *Upanayana* has not been performed, and to marry the daughter of the maternal uncle or of paternal aunt," and states that "when one acts in accordance with his *Deshachara* -customs prevalent in one's native place - he incurs no sin."[5]

i) *Gotra :* This word, which in Rig Veda meant "a cowstable" or a "herd of cows" came to signify later, the 'family' or the 'clan'. *Baudhayana Shrouta Sutra* says, "Vishvamitra, Jamadagni, Bharadvaja, Gautama, Atri, Vasistha and Kashyapa are the seven sages and Agastya is the eighth. The progeny of these eight sages is declared to be *gotra*. As population went on multiplying, more and more persons attained fame as sages and thus, says *Shantiparva* of *Mahabharata*, additional gotras came to be formed after these sages such as Vainya, Shaunaka, Kanva, Sankriti, Upamanyu,

Parashara, Veetahavya, Gritsamada, Gautama, Harita, Maudgalya, etc. According to Medhatithi, the commentator on *Manu* Smriti, "A man knows that he belongs to a particular gotra only from tradition, from his father and other elders or from people about him, just as he knows that he is a Brahmana from the same sources."[6]

Gotra was relevant in many matters. e.g. i) A man should not marry a maiden from within his own *gotra*. ii)In matters of inheritance, the wealth of one dying without issue went to his near *sagotras*. ii) In *Shraddha*, the *brahmanas* to be invited should not belong as far as possible to the same *gotra* as the person inviting iii) In offering water to a *preta* (a person recently dead), his *gotra* and name were to be repeated. iv) At the time of performing one's daily *Sandhya*, one has to repeat his *gotra, pravara, vedashakha* and *sutra*.

iii) *Pravara :* The conception of Pravara is closely interwoven with that of *Gotra* from very ancient times. The two have to be studied together. 'Pravara' literally means 'choosing' or 'invoking' *(Prarthana)*. As Agni was invoked to carry the oblations of a sacrificer to the gods by recalling the names of the illustrious ancestors (of the sacrificer) who had, in former times, invoked Agni, the word *'Pravara'* came to denote one or more illustrious sages who had once hallowed the family of an individual. A synonym of *Pravara* is *Arsheya*, i.e. relating to a rishi. *Parashara Madhaviya* defines Pravara as "the group of sages that distinguishes the founder of one gotra from the other." e.g. Pravara of Koundinya *gotra* consists of Vasistha, Maitravaruna and Koundinya.

*Pravara* entered into several *Samskaras* in the following manner: (i) A bride was to be chosen whose father's *pravara* was not the same as that of the bridegroom's father. (ii) In *Upanayana*, the girdle was to have one, three or five knots according to the number of sages constituting one's *pravara*. (iii) In *Chaula*, the tufts of hair to be formed depended on the number of sages constituting one's *pravara*.

**When marriage should be celebrated?** According to *Muhurta Darpana*, Magha, Phalguna, Vaishakha and Jyeshtha are *uttama* (excellent) months for celebrating marriages; Kartika and Margashira are *madhyama* (middling), while other months are not favourable. This work also says that the marriage should not take place on the Janma Lagna, Janma Rashi, Janma Nakshatra, Janma Dina, and Janma Masa of either the bride or the bridegroom, since such marriages end in sorrow. *Muhurtas* beloved of astrologers are Abhijit (when the sun is at zenith) and Godhuli (dusk when the cattle normally went their way home).

The medieval digests introduced many detailed rules derived from astrology, including comparison of horoscopes. For example, it was pointed out that a girl born in *Mula Nakshatra* 'Kills' her father-in-law; *Ashlesha*, the mother-in-law; *Jyeshta*, the younger brother-in-law; and *Vishakha*, the elder brother-in-law. This subject, however, falls beyond the scope of this book.

**Ceremonies of Vivaha:** Taking into account most of the *Grihya Sutras*, the following is an exhaustive list of the different constituents of *Vivaha:* The important ones are briefly dealt with, while others are just referred to:

**Vadhuvara Gunapariksha:** (Examining the suitability of a girl or a bridegroom).

*Qualifications of a boy:* Ashvalayana says, "One should give a maiden to a man endowed with intelligence."[7] Apastambha remarks, "The

accomplishments of a bridegroom are that he must be endowed with a good character, learning, auspicious characteristics, good health and a birth in a good family."[8] Yama says " one should seek for seven qualities in a bridegroom viz. good family, good character, good bodily appearance, fame, learning, wealth and support of relatives and friends; the other matters need not be considered."[9]

*Qualifications of a girl:* According to Ashvalayana, "one should marry a girl endowed with intelligence, beauty, good character, health and auspicious characteristics."[10] Bharadvaja remarks, "there are four inducing reasons for marrying a particular girl viz. wealth, beauty, intelligence and family. If all four cannot be secured, wealth may be neglected; then beauty may be neglected if there is intelligence and good family; but, there is a difference of view as to the latter two, some preferring intelligence to family and others vice versa."[11] *Manava Grihya Sutra* adds a fifth inducement : *Vidya* or learning.[12] Apastambha states a commonsense rule: "A girl on whom his mind and eyes are riveted will bring him happiness; he should pay no heed to other things."[13]

Kautilya makes the significant statement: "An excellent girl (*stri ratnam* i.e. jewel of a girl) though born in a low family should be accepted just as a health-giving elixir is acceptable though prepared out of poisonous ingredients, or gold is acceptable though extracted from mud and mire or wisdom imbibed from an enlightened one even from a low caste."[14] Manu also echoes the same words almost.[15]

**Varapreshana:** (Sending persons to negotiate for the hand of the girl): The ancient custom prevalent in the Vedic, *Sutra* and the medieval times was that some person or persons from the bridegroom's camp approached the father of the bride seeking her in marriage. In modern times, among the Brahmins and many other castes, the girl's father has to seek a bridegroom.

**Vagdana or Nischaya Tambula:** (Betrothal): The bride's father recited the verse, "This girl has been orally given by me for progeny and accepted by you. Be happy in inspecting the girl, having made up your mind."The father of the bridegroom replied, "The girl has been orally given by you for progeny and accepted by me. Be happy in seeing the bridegroom having made up your mind."[16]

**Mridaharana or Ankuraropana:** (Fetching some clay and growing sprouts in it). It is stated in *Jyotirnibandha*. "In the beginning of every auspicious ceremony, sprouts should be grown in a pot of clay and the sacred earth should be brought from eastern or northern direction."[17]

**Haridralepana:** (Besmearing the bride and the bridegroom with ointment of turmeric and oil a few days prior to marriage). This is just a mark of auspiciousness.

**Mandapa Karana:** According to Paraskara,[18] marriage, *chaula*, *upanayana*, *keshanta* and *simanta* are to be performed outside the house in a pandal.

**Ganapati Pujana, etc:** Ganapati staves off all impediments and so, he was invoked first. Then, the bride's father and mother, made up their mind *(sankalpa)* to perform *Svastivacana* (The elders and Brahmins are requested to declare that day auspicious for performance of the ceremony), *Matrika Pujana* (worship of mother goddesses) and *Nandi Shraddha* (homage to the departed ones as a token of our joy and to associate their invisible presence with the ceremonies).

**Ghatika Sthapana:** (Setting up a

waterclock): The water clock was set up with the verse, "Thou hast been contrived by Brahma. Be thou the measure of the feelings between the bride and the bridegroom."[19]

**Vara Agamana:** (Arrival of the bridegroom and his party). The bridegroom with his friends and relatives arrived at he bride's residence in a conveyance. At arrival, he stood outside the house facing the east and is welcomed by a company of women bearing lamps and jars full of water.

**Madhuparka:** (offering of honey by way of honour): Ashvalayana sets out the procedure as follows: "The father-in-law poured honey into curds or clarified butter. A seat for placing the feet (of the son-in- law), water for washing the feet, *Arghya* water (i.e. water perfumed with flowers, sandalpaste, etc.) water for *Achamana* (sipping ceremoniously), the honey mixture were got ready. The bridegroom was seated on a seat made of northward-pointed *darbha* grass. He accepted the seat with the verse, 'I am the highest one among my kindred, as the sun among lights. Here I tread on whomsoever bears enmity to me." Then, the father-in- law washed his feet, offered him *Arghya* water with which he did *Achamana* (sipping ceremoniously) and partook of the honey mixture. Every element in this ritual was accompained by *mantras* (which have not been translated here for want of space).

**Snapana:** (Making the bride bathe), Paridhapana (presentation of new clothes and putting on new garments) and *Samnahana* (girding her with a string of *darbha*).

**Samanjana** (Anointment): The bride's father anointed both the bride and bridegroom with a little sandal-paste or an identical fragrant substance, while the bridegroom recited the verse, "May all the gods and waters unite our hearts; May Matarishva, Dhata, Deshtri, all bind us close." The anointment is symbolical of *'sneha'* or 'love'.

Then, the maternal uncle of the bride, brought her near the nuptial fire facing towards the east and a curtain is interposed between the bride and the bridegroom.

**Paraspara Samikshana** (Looking at each other): At the proper astrological moment,the cloth curtain is removed and the bride and the bridegroom look at each other. The removal is preceded by the chant of *'mangalashtakas'* by the Brahmanas, the last of verses being *"Tadeva Lagnam sudinam tadeva"* (i.e. "that is the Lagna, that is the auspicious day,' etc.). Then, the bride garlands the bridegroom and he follows suit.

**Kanyadana** (The gift of the bride): Now follows the formal gifting away of the bride to the bridegroom by the father, or by another recognised proxy, in his place. While making the gift, he utters the following *Sankalpa:* "For securing absolute happiness, as the consequence of *kanyadana,* for our forefathers; for purifying my twelve preceding and twelve succeeding generations through the progeny born in this girl; and for propitiation of Lakshmi and Narayana, I make this gift of my girl. I give away this girl, adorned with gold ornaments to you, O Vishnu! with the desire of conquering the world of Brahma; The Nourisher of the whole universe, the gods and all creatures bear witness to the fact that I make gift of this girl for the salvation of my forefather"[20]

While making the gift of the bride, her father pleads with the bridegroom: "In the pursuit of Dharma, Artha (wealth) and Kama (desires), thou shouldst not prove false to her", and he thrice replies, "I shall not fail her-

